**प्रकाश द. नायक**
हांची प्रकाशीत पुस्तकां

- **चैतर**
  (कवितासंग्रह)
- **कस्तूरगंध**
  (कवितासंग्रह)
- **अस्तुरीः शिमेभायलें मळब**
  (विज्ञानीक आनी बायलांचेर आदारीत पुस्तक)

# कुतल्ल

(कविता संग्रह)

प्रकाश दत्ताराम नायक



अक्षरमेळ

# कुतल्ल
(कविता संग्रह)
प्रकाश दत्ताराम नायक

# KUTALL
A Collection of poetry in Konkani by
PRAKASH DATTARAM NAIK

---

प्रकाशक ः रेखा प्रकाश नायक
अक्षरमेळ,
अमराय, सावय-वेरें
फोंडें-गोंय 403401
फोन-9158572953/7040410648

प्रकाशन क्र. ः 2



पयली उजवाडावणी ः 2014

छापणावळ ः हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें-गोंय.

मुखपृष्ठ/भितरल्या चित्रांचें रेखाटन ः वसंत कुंडयकार

अक्षर जुळवणी ः प्रकाश द. नायक
फोन-9423882043/8796843564

मोल ः 150/- रुपया

---

हें पुस्तक गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती खात्याचे
‘गोंयकार लेखकाक अर्थिक आदार’ हे येवजणे खाला उजवाडायलां.

# मनोगत

'कुतल्ल' हें म्हजें चवथें पुस्तक. कवितेचें तिसरें. ह्या कविता संग्रहांत आस्पाविल्ल्यो कविता ह्यो 2006 वर्सा उपरांतच्यो, म्हणल्यारूच 'चैतर' आनी 'कस्तूरगंध' ह्या कविता संग्रहा उपरांतच्यो. तुमकां त्यो आवडटल्यो अशी आस्त आसा.

हे 'कुतल्ली'त आस्पाविल्ल्या कवितां विशीं थोडेशें तुमकां सांगूंक जाय. एक दीस फर्मागुडयेर एक कवी संमेलन जाल्लें. त्या कवी संमेलनाचे अध्यक्ष आसले ज्येष्ठ कवी आनी स्वातंत्र्य सेनानी भौमानेस्त नागेशबाब करमली. ह्या कविता संग्रहांत आस्पाविल्ल्यो दोन कविता हांवे थंय त्या कवी संमेलनांत सादर केल्ल्यो. कवी संमेलन सोंपतकीच नागेशबाबान म्हाका म्हणिल्लें, "आरे प्रकाश, म्हजो जीव आसतना तुजो हो कविता संग्रह येवं दी. तुज्या कविता संग्रहाक हांव प्रस्तावना बरयतलो!" नागेशबाबांच्या त्या भांगराळ्या उतरांची उर्बा ह्या कविता संग्रहाचे निर्मणेंत नक्कीच आसा. दिल्ल्या उतरा प्रमाण नागेशबाबानी 'कुतल्ली'क प्रस्तावना बरयली देखून हांव नागेशबाबांचो भोव उपकारी. नागेशबाबान प्रस्तावनेंत केल्ले म्हजे तोखणायेन हांव भारावन गेलां. 'कवितेच्या मळावयलो तूं यशवंत जा' ह्या नागेशबाबान दिल्ल्या आशिर्वादान म्हजी जापसालदारकी वाडल्या हें नक्की.

दुसरी एक वेगळी गजाल तुमकां सांगपाक जाय. हांवे हे 'कुतल्ली'क दोग नामनेच्या साहित्यिकां कडल्यान वेगवेगळ्यो प्रस्तावना घेवन छापपाचें थारायिल्लें. नागेशबाब आशिल्लेच ते भायर दुसरे आशिल्ले नामनेचे कादंबरीकार देवीदास कदम. पुस्तकांत दोन प्रस्तावना आसतल्यो अशें दोगांयकूय सांगूंक नाशिल्लें. अशें करपा फाटल्यान एकूच हेत आसलो आनी तो म्हणल्यार दोगूय साहित्यिकां कडल्यान म्हजे कविते विशीचो विसंगत अंसो सूर म्हाका मेळचो. प्रस्तावना

म्हाका आयल्यो तेन्ना दोगांयचो सूर सादारण एक सारकोच आसलो. म्हाका हें जाणवतकच ही दोन प्रस्तावनांची कल्पना हांवे भायर उडयली. पूण ते खातीर बाब देवीदास कदम हांचे म्हाका उपकार मानूंकूच जाय.

रुतू ऑफसेटाचे धनी बाब हिरू नारायण नायक हांणी 'कुतल्ली'च्या छापणावळीचो वावर आपल्या भुजार घेतलो देखून तांचोय हांव उपकारी. कविता संग्रहाचें मुखपृष्ठ आनी भितरल्या चित्रांचें रेखाटन करपी नामनेचे चित्रकार वसंत कुंडयकार हांच्या वेगळे तरेच्या चित्रांनी 'कुतल्ली'क एक वेगळी अर्थपुर्णताय हाडून दिली म्हणून तांकाय हांव दिनवासतां.

खास उल्लेख करूंक जाय तो गोंय सरकाराच्या 'कला आनी संस्कृती संचालनालया'चो. तांणी दिल्ल्या अर्थीक आदाराक लागुनूय हो कवितासंग्रह छापप शक्य जालें. तांचोय हांव उपकारी.

वयर नमूद केल्ल्या सगल्यांच्या रिणांत रावप म्हाका मानवतलें. देव बरें करूं.

**प्रकाश द. नायक**<br>
सावय-वेरें,<br>
फोंडें-गोंय<br>
ता. **23.12.2014**

# सैमाच्या रसगंधांतल्यान प्रगट जाल्ले आत्मस्वर

बाब प्रकाश द. नायक हाचो काव्यप्रवास *'चैतर'* झेल्यांतल्या कवितांनी सुरू जालो. 1987 वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या ह्या झेल्या उपरांत 2005त तागेलो दुसरो झेलो आयलो *'कस्तुरगंध'* - सुमार अठरा वर्सांनी. *चैतर* हो कवीचो कंवकवीत असो तरणो सूर आसलो. *कस्तुरगंधांत* ह्या सुरांक अदीक खोलाय आयली. जाणविकांच्यो कक्षा अदीक रूंदावल्यात अशें दिसपाक लागलें. आनीक आतां, णव वर्सां उपरांत प्रकाशबाबालो तिसरो झेलो कोंकणी कवितेचे प्रभावळींत आपणाली सुवात घेवंक येता तो म्हणल्यार *कुतल्ल*.

जेन्ना खंयच्याय कवीचो पयल्या झेल्या उपरांत दुसरो वा तिसरो झेलो येता, तेन्ना त्या आनी उपरांत येतल्या झेल्यांतल्या कवितांची सर जावप हें आपसुकच घडटा. ते नदरेन, प्रकाशबाबाली आदली कविता आनी कुतल्लांतली कविता, बारीकसाणीन नियाळ्ळल्यार एक गजाल स्पश्टपणान सांगूं येता- प्रकाशबाबाले कवितेक नवें, पयलीं परस वेगळें मोड्ण मेळूंक लागलां. ताच्या काव्यबंधाचे धागे पयलीं परस एक वेगळी वीण घेवंक लागल्यात.

आयज ही कविता आदले वरी कांयशी खांकुडत आनी कांचवेल्लेवरी उलयना. तिका तिच्यांतली धिटाय आनी अभिव्यक्ती-शक्त होलमल्या. प्रकाशबाब हो सैमपूजक आनी सैमगायक. देखून ताची कविता ही मुळासाकूनच सैमतत्व आनी सैमरूपांच्या समांतर चलत आयल्या. मदेंच खंयतरी ती वेगळी आडवाट सोदिल्लेभाशेन करता. पूण तें आडवाद म्हणूनच. खऱ्या अर्थान हे कवितेचो आत्मस्वर, सैमाच्यो प्रतिमा आनी प्रतीकांतल्यानूच फुलारता आनी पर्मळटा. आतां तर ती अदीकच सैमरूपी प्रतिमा आनी प्रतीकां घेवन फुडें वता. ती कविता मागीर सौंदर्यवेधी आसूं, शृंगारसया प्रगटावपी आसूं ना जाल्यार, काळजाचे खरीक सावन

मनसंवेदना-वेदनांचो आविष्कार घडोवपी आसूं. तिका आतां आपूण कितले उंचायेर वचूंक जाय तें कळूंक लागलां. हे संबंदात इल्लीशी विसकणी करूनच कांय गजाली स्पश्ट करप गरजेचें. प्रकाशबाब जेन्ना *'मळब आनी अंतराळ'* हे कवितेंत--

*तुजी*
*पोलक्यांतली उक्ती फाट*
*धवें फुल्लऽऽऽ मळब*

अशें म्हणटा, तेन्ना मळबाक फुडें करून ती शृंगारवेधी जावंक लागल्या हें स्पश्टरितीन जाणवता. हेच कवितेंतल्यो--

*दाखय म्हाका*
*तुज्या अंतराळांतलो चंद्र*
*ताची शितळसाण भोगतां !*

*दाखय म्हाका*
*तुज्या अंतराळांतलो सुर्या*
*ताची खरसाण चोखतां !*

ह्यो ओळी कितें सांगूंक जाय तें अचळय सांगून वतात. कलात्म पद्धतीन आनी संयमीत रितीन घेतिल्लो हो शृंगारवेध.

*'आडवेळो पावस'* हे कवितेंत जाल्यार हो शृंगारभाव वा शृंगारलालित्य अदीकच खर जाल्लें दिसता--

*म्हजें कूप*
*तुज्या पोटावयल्या*
*तळ्यां धडेर*
*उबें आसा !*

*घोग्यांनी रकता*
*रिगता*
*तुडूंब भरता*
*तळें तुजें !*

ह्या उतरांतल्यान कवी पावसाच्या आडसाक रावून शृंगार भावनेचें एक वेगळेंच तास उक्तावन दाखंयता. शेकीं कल्पना करप हाकाय वास्तवतायेचें खंय तरी मूळ कूस आसचेंच पडटा.

*'पीठ'* ही कविताय अशीच. अदीक उक्ती आनी सूचकय. कवी म्हणटा--

*चोरयां तुज्या पोरसांत येतां*
*करंग्या माडार चडटां*
*आडसरां ओडटां तोडटां*

हीं उतरां बरोवन जातकीच कवितेच्या शेवटाक

*कट्टी नवी*
*कातली धवी*
*चंद्र धवो*
*हांव नवो*

हे तरेन कवी आपणाक व्यक्त करता. कवीन आपणाक जें कितें सांगपाचें आसा तें जे कलात्मक तरेन सांगलां, तेंच दाखय-लिपय करिनासतना सरळसोट भाशेन कामदेवाचो अवतार जावपाचे तयारेन सांगिल्लें तर अश्लीलतायेच्या नांवान शबय कांडप्यांक आयतोच एक विशय मेळपाचो. सैमप्रतीकां घेवन, कवीन जे तरेन शृंगारभावनेक वाट करून दिल्या ती तरा कोंकणी कवितेक तरी बरीच वळखी भायली.

हांगा एक गजाल स्पश्ट करूंक जाय. प्रकाशबाबाल्यो ह्यो कविता वाचपी जेन्ना वाचतलो तेन्ना प्रत्यक्ष उतरां फाटल्यान लिपून आशिल्लो अर्थ समजून घेतल्यारूच हे कवितेंतलें मर्म कळूं येता. उतरांच्या भायल्या रूपार वचूं नाकात. तांच्या अंतरगर्भांत रिगात आनी मागीर कितें अणभवपाक येता तें पळयात. शृंगार भावनेचो सैमिक प्रतीकां आनी प्रतिमांनी संयमीत तरेन आविश्कार जाला अश्यो, *"चल रानांत या, मिठी, शिशीर लागत तुका?, तूं वांगडा आसतना"* ह्या सारक्यो कविता म्हज्या म्हणण्याचो प्रत्यय हाडून दिवपा सारक्यो

आसात. 'मिठी' हे कवितेंत जाल्यार शृंगार एक सृजनोत्सव जावन येता. हे कवितेंत सांवरीचें प्रतीक फकत वयलेवयर दिसपापुरतें. प्रकाशबाब असले तरेच्या कवितांनी शृंगार भावनेचो एक नवो सैम-स्पर्शी आयाम क़ोंकणी कवितेक हाडून दिता. आनी तोय एके धिटायेन. हाचे वयल्यान कवीची कविता कितली बदल्ल्या तें कळटा.

प्रकाशबाबाचो हो एक आयाम जालो. ताचे कवितेचीं दुसरीय तासां आसात. आनी तीं ह्या काव्य झेल्याच्या नांवाक सोबसारकीच आसात- *'कुतल्ल'*- मुदयेर थीक कशीं.

*'कुतल्ल'* म्हणल्यार, शेत पिकून जेन्ना तें लुंवतात आनी कणसांनी चकचयाळ अशें थाम हाडून एके विशिश्ट पद्दतीन मांडून दवरतात तें. गोंयांत कांय कडेन ताका गुडें अशेंय म्हणटात. ह्या कुतल्लांत थामाची फकत कातरिल्ली मुळाबाजू तितली भायल्यान दिसता. कणसां दिसनात. कारण तीं सगलीं कुतल्लाच्या पोटांत मदें येतात. जेन्ना ते थाम चुडया-चुडयांनी मळपाक काडटात तेन्नाच तीं दिसतात. प्रकाशबाबाली कुतल्लांतली कविताय तशीच. तिच्या अंतरगर्भांत रिगून तिची सुंदराय नियाळची पडटा. *'कुतल्ल'* चडशें असल्याच कवितांनी आकाराक आयलां. उतरां फाटलो लिपिल्लो अर्थ हांगा सोदचो पडटा. कवी जेन्ना--

*नडणी तुजी*
*लुंवणी म्हजी*
*चल कुतल्ल दाळुया*

अशें म्हणटा तेन्ना हांव म्हणटां तोच उतरांफाटलो अर्थ अभिप्रेत आसता.

*म्हाका पुनवेचो चंद्र कर*
*म्हज्यांत पळय*
*तूं चान्ने जातलें*

अश्यो चान्यावरी सुंदर ओळी प्रकाशबाबाले कवितेची सोबाय आनी

अर्थपूर्णताय बी वाडयतात. हे संबंदान हांगा याद येता ती तुजी साडी हे कवितेची. सैम जशीं रूपां बदलीत वता तसो साडयेचो रंगय बदलत वता. शेत किल्लून वयर सरता आनी थाम वाऱ्यार धोलूंक लागता तेन्ना कवीक 'ती' न्हेसल्या ती साडी पाचवीच कशी दिसता. शेतांत कणसरूपी भांगर पिकता तेन्ना साडयेक हळदुवसाण येता. मळणे वेळार ती कुतल्ल कशी दिसूंक लागता. भात कांडटना ती मातये रंगाची जाता. शेतांत दिफळे फोडपा समयार ती उदकाळ रंगाची जाता. साडयेचें रूपक रचून जिणेविशीं भाष्य करप हें सैमनदरेचें आनीक एक चकचकीत तास.

कवीक मळबाची भोव ओड. ताचे कवितेंत मळब कितले फावटी येता ताका सुमार ना. कवितेंत उदक तर आसाच. ते खातीर पावसय झडपाचो रावना. ते पासत कवी मिर्गाची वाट पळयना. मळब ही अथांगाची खुणा.

*हें अथांग*
*विस्तृत मळब तुजें*
*दी म्हाका*
*पांगरून घेता ताका*

ह्या उतरांनी हो अथांगाचो मनोभाव स्पश्ट जाता. विस्तृत मळब म्हणचे बदला अथांग मळब इतलेंच म्हणिल्लें तर अदीक बरें जावपाचें. कारण नांय म्हणल्यार "विस्तृता"क मर्यादा पडटा. "अथांगा"क तें बादना.

प्रकाशबाबा मदलो कवी सैमरूपांत जे तरेन बुडला तें पळयल्यार हेर प्रतिमां, प्रतीकां ताका वर्ज्य आसात अशें मात न्हय. ह्या प्रतिमां-प्रतीकां भायल्योय कांय कविता ह्या कुतल्लांत आसात. देखीक मास्तर ही अशीच एक कविता-पूर्वस्मृती आनी उपकृतपणाची भावना जागोवपी.

*हय मास्तर*
*तुंवें म्हाका मनीस केला*
*ना जाल्यार ही कूड*
*सोदितूच उरपाची*
*दर्याची खोलाय*
*आनी*
*रेंवेची पराय*

ह्या उतरांतच सगलें कितें येवन वता. काळ बदल्ला, पयलीं मास्तर खोंपीची कवडां उक्ती करून भितर सरतालो. आतां तें बदल्लां. कवी म्हणटा--

*आयज तुजे खातीर हांवें*
*नवी खुर्ची हाडल्या*
*बस हे खुर्चेर*
*म्हाका बसूं दी*
*तुज्या चरणां कडेन*

कवी थोडोसो भावूक जावन, खूब सूचक पद्दतीन आपणालें मन उक्तें करता. *'सर्जकाचो अंत'* ही कविताय एका वेगळच्याच आयामाची. *'तवल्यांतली शेळी कडी'* खावपा धरून *'चार पयशे हातांत आयले'* अशें म्हणटा म्हणटाच

*एका रिणांतल्यान मुक्त जालो*
*नव्या रिणाक वाट केली*

अशें विचित्र शब्द-चित्र ही कविता उबें करता.

सैमाकडल्या गांठीबंधांची जतनाय घेतां-घेतांच भूंयगर्भांतली कविता हातूंत हे भुंये कडल्या अतूट नात्याची खबर करीत कवी आपणाली अस्मिताय जागयता. तो म्हणटा-

*भूंयगर्भांतल्यान*
*आयलां हांव*
*मुळां थंयच सांडून !*

*भूंयगर्भांतलो हांव*
*भूंयगर्भांत म्हजें मूळ*
*भूंयगर्भावयर म्हजें कूळ !*

*'कुतल्ल'* , कवीक तो सैमरथाचेर स्वार जाल्लो आसलो तरी एके नवे वाटेन व्हरता. ह्या रथाचो घडोवपी तोच आनी अर्थातच सारथीय तोच. ताच्या ह्या काव्य प्रवासांत, अजून खूब कितें ताका भेटपाचें आसा. नव्याचो दरवंटो उक्तो जायत आसा. कवी ते नदरेन जितलो प्रगल्भ जायत वतलो, तितलीच ताची कविता आयज आसा तेय परस निश्चितच उंचायेर वतली. आनी हे उंचायेक तर शीम-मेरच ना.

प्रकाशबाब, कवितेच्या मळावयलो तूं यशवंत जा !

**नागेश करमली**
'मानसदीप'
चिंचवाडो, चिंबल,
रायबंदर-गोंय.

# अनुक्रम

1.

## कविता

तुका दिवपाक
फुलां हाडूंक नात...

म्हाकाच घेवन आयलां !

2.

## हांव एकाक्ष... शुक्राचार्य

तूं झाड
वसंतांतलें
ह्या अळंकारां सयत
म्हाका मात्तूय आवडना!

हांव बाहुबलीवरी...
उब्या शिशिरांत
आंगवस्त्रां झडोवन
केन्ना सावन उबो आसां

तुजीय तशीच
पान वस्त्रां
झडोवन उडय !

म्हाका...
नागडें उगडें झाड
खूऽऽब्ब आवडटा !

तूं जा गांधारी...
तिचे नदरेन
म्हाका पळय
दोळे आसून धांपून घे...

करून घे
म्हज्या अस्तित्वाची
जाणविकाय...!

म्हाका दी
तुज्या पाळांतली सुक्षीमताय
सोदपाक पोंदचो
खोलऽऽ खोलऽऽ जलाशय !

बदलाक...
जातां हांव एकाक्ष
जातां मनांतल्या असुरांचो गुरू
जातां शुक्राचार्य...

आनी जातां
शुक्राणूंचोय अधिपती
दिवंक तुका
संजीवन खोलाय

तुका खबर ना...?
नवनिर्मिती खातीर जाय
तुजो म्हजो
एकांगी विलय
एक आंगी विलय
विलय...!

3.

## हिरण्य गर्भ

हे माये-
हे आवये-
तुज्या पोटांत
कुसव्याक येता
एक हिरण्य गर्भ

हिरण्य गर्भांत आंकारता
धरतरेचो कुंभ
-किल्लून येता तोच
हो हिरण्य गर्भ

हांवूय जातली आवय
जातली माता
हें अनंत काळचें चक्र
तुज्या पोटरां येता

तुज्या गर्भांत आकारता
प्राण आनी जीण
कूड आनी कुंड
अखंड खंड

तुज्या अर्भकांत
पोटरां येता
सृश्ट आनी दिश्ट
सर्ग आनी निसर्ग
उत्पत्ती आनी संपत्ती
स्त्रोत आनी स्तोत्र
दर्भ आनी संदर्भ
तोच हो हिरण्य गर्भ

हें तांतीं बीन पांखांचें
बळयां फोडूं नाका
येवं दी म्हाका पांखां
उडपाक दिगंतांत

काळखांतल्यान उजवाडांत
खंयच्च्याय खिणां
येवं दी रुजवणां
हो हिरण्य गर्भ

आवय-
तुज्या पोटांत
कुसव्याक येता
मोनो कळो

एक कोंब
हिरण्य गर्भ

4.

## मळब आनी अंतराळ

तुजी
पोलक्यांतली उकती फाट...
धवें फुऽऽऽल्ल मळब !

तुका खबर ना...
तुजे फाटीर
कितले तीळ आनी चामखीळ...
गिरे, तारे आनी नक्षत्रां !

म्हजी नदर...
घोणीची, तीख...!
वाऱ्याचे गतीन
तुजें धांपिल्लें
मळबा मुखावयलें
अंतराळ सोदता !

दाखय म्हाका
तुज्या अंतराळांतलो चंद्र
ताची शितळसाण भोगतां !
दाखय म्हाका
तुज्या अंतराळांतलो सुर्या
ताची खरसाण चोखतां !

मळबा वरीच
तुजें अंतराळ उकतें कर

चंद्र, सुर्या सोडून घाल
वचूं दी तांकां कुपां आडऽऽऽ
म्हजे नदरें भितर !

मागीर
जोगलावतलें
गडगडटलें !

आऽऽऽ
पडूं दी पावस !

हांव...
मिर्गा पयल्या शेतांतली
चिरो - भेगो पडलेली
जमीन जावन रावतां !

5.

## आडवेळो पावस

हांव--
धव्या कुपाक लागिल्लो
आडवेळो पावस
बेगीन आसरचोना!

जमीन जा तूं
न्हीद-
पुरायेन
बुडोवन उडयतां तुका

म्हजें कूप
तुज्या पोटावयल्या
तळ्या धडेर
उबें आसा!

घोग्यांनी रकता
रिगता
तुडुंब भरतां
तळें तुजें

उदक म्हजें-
नितळ-
निव्वाळ
रान जागय
तान भागय

पुरुमेंताचो हांव
फुडल्या पाडव्यामेरेन
तुज्यांत रावतां
पसवतां

तेंऽऽ पळय
तुजे भोंवतणचें वांयगण
पोटरां येता

हांव अस्सोच
धव्या कुपाक लागिल्लो
आडवेळो
बेगीन आसरचोना
कस्सोच आसरचोना !

6.
## रात

म्हजी रात
ही अशी
दर दिसा
पेंगत येता
झेंगत येता

येतना
सोमरसाचो दंव
घेवन येता
केन्नाकेन्नाय
हुंवारूय
घेवन येता

म्हजी रात मागीर
म्हाका धोडायता
बडयता, शेडायता
कवेंत घेता तेन्ना
आपले भितर कडयता

म्हजी रात
कडकडून चाबता तेन्ना
गांजीलमुसूय काजुलो जाता

पाख्याच्या बुराकांतलें चान्नें
तेन्ना करता म्हाका तरणें

गोठेल्लो शिशिरूय मागीर
म्हजे सामकार
दिमी मोडटा

रात सोपूत घेता तेन्ना
आंग विलुदी कापसाचें
बोंड फोडटा
आयची म्हजी रात
कालचे परस म्होंवी लागता

म्हाका
राতराणयेचो घमघम सुट्टा !

म्हजी रात ही अशी
जेन्ना दिसाचो चादर ओडटा
तेन्ना घरामुखावयल्या आंब्याक
नवें चंवर फुट्टा !

7.

## तूं म्हज्यांत पळय

म्हाका
पुनवेचो चंद्र कर
म्हज्यांत पळय
तूं चान्नें जातलें

म्हाका
वावटळीचो वारो कर
म्हज्यांत पळय
तूं सैमा येतलें

म्हाका
दोळ्यांतलें उदक कर
म्हज्यांत पळय
तूं एकरूप जातलें

म्हाका
भिंगांचो हारसो कर
म्हज्यांत पळय...
तूंऽऽच परावर्तीत जातलें

8.

## त्सुनामी उपरांत

कोणूच वांगडा उरलोना
कोणाखातीर रडचें आतां
हांसते खीण सोदतां तेन्ना
एकलेपण खावंक येता

म्हजी रया गेली, माया गेली
दया ना कोणें केली
तुजी सया, प्रीय काया
परत परत याद दिता

सैमाचो हो कसलो खेव
सोदता गांव आपलो थाव
तुजे विणें हांव, कुडी विणें जीव
रितो रितो जाता

तूं कालसावन
मळबांतलें एक नक्षत्र जालें
तुज्या चित्राक लावन पोले
रात दीस उमे घेता

रूप तुजें देखणें जालां
कूप आतां कुरूप जालां
कूप जेन्ना कुरूप जाता
शिरंतरांनी पावस वियेता

9.

## पावस अर्भकाचो गर्भ

ओंठ तुजे
कूप जालें...
आतां नक्कीच
पावस झडटलो !

सुके जमनीचो
सोंपतलो तानसोर
नाचतलो मना
थूंय थूंय मोर !

जातलीं वोलीं
नवीं नातीं...
पयल्या परमळाची
चिखल माती !

घश्टतलीं कुपां
पेट्टली जोगलावण्यांची तार
मोने उस्वास
गडगड... हुंकार !

नकळटना हांव
लागतलों झडपाक
फुट्टली आंकरी
दिफळ्यांतल्या खडपाक!

बांदार
नवरुपो माड
नवी पोंय
जाय तशी सूर काड !

चुडटाक हुमकळटा
शेरकाचो घोंटेर
अर्भकाचो गर्भ
अर्दे वाटेर !

आतां...
नक्कीच पावस झडटलो !

10.

## हांव आनी तूं

पावस हांव
वत तूं
चल...
लिपचेल्यांनी खेळुया !

सावळी तुजी
ओथांबो म्हजो
यो...
झिली पोंदा गळुया !

नडणी तुजी
लुंवणी म्हजी
चल...
कुतल्ल दाळुया !

कालोर तुजो
कुडकुडो म्हजो
वच...
शेत आडवें मळुया !

पलतडचे मोंर नवे
आलतडचें धोणू धवें...
राव...
मळब चाळुया!

शिंपडिल्ले गोटे तुजे
तानेल्ले ओंठ म्हजे
यो...
फुलां माळुया !

एक शेत उलगलें
झडटा कणस तुज्यांतलें
चल...
आतां नव्यान रान जाळुया !

11.

## गोबर

मर्दीं
खूब तेंप
हांव ओगी आसलो
तुमी केल्लो अन्याय सोंशीत !
मोन्यांनी पळयतालों सगलें...!!

आतां परतून आयलां...
सुर्या जावन...
आयजवेर अन्याय केल्लो
तांकां घाम काडपाक !

म्हजी उर्जा ती...
मोन्यांनी खूब वाडल्या
आतां तीच उलयतली
अन्यायाचो गोबर जायसर !

गोबर -
निमाणे प्रतीक...
हीण करपी
क्षीण करपी!

## 12.
## तूं

यो हांगा...
हांव जमीन जालां
तूं लोळत राव...
ही कूस ती कूस
तळमळत राव !

हांव पावस जालां
तूं गळत राव
पांवळेच्या उदकांत
विरगळत राव

हांव झेल जालां
तूं पगळत राव
थंडाय म्हजी
चगळत राव

नव्यान रात रात
मेळत राव
दोगांच मदलो खेळ हो
असोच खेळत राव

आं ऽऽ
दोंगर पेटला
जळत राव
म्होंवा पोळें कडटा
फळत राव !

13.
## हांतरपाट

मळब हांतरपाट जालें
चंद्र दांतें जालें
कुपां दळूंक लागलीं
चान्नें पीठ जालें

धवेंफुल्ल पीठ...
मळून मळून कालवना

हांगा यो
धर्तरेर
तूं हांतरपाट जा
हांव दांतें जातां

झिळमिळो उजवाड...
गळून गळून पालवना

आतां हीं
थकलीं कुपां
थेंब थेंब
रकलीं मापां

केन्नासावन
रावलां आशेन
जीब काडून भायर
निमाण्या थेंब्याक ...

14.
## होरोस

सगली जनता
जाली शाणी
देवांक तांणी
केले अडाणी

देव दुदांत न्हाले
देवरूप्याक मात
ना जालें पाणी

दोळ्यांचेर हात धरुनी
पानार पाणी सोडलें तांणी
देवांसयत पुर्वजांक
कळ्ळी तांची होरावणी

माथ्यार सुर्या जेन्ना
जमले कावळे जमलीं सुणीं
भायर उश्टें सोदीत घाणी
राजा कश्टी उपाशीं राणी

हीच एक थाळी
सरभोंवतणी
आटलो होरोस सुकली वाणी
जांची नित्य वली पापणी

15.

## मळब आनी तळें

चुकून तुजे बोंबलेक हात लागलो...
आनी कितें अजाप
देंठ मेळ्ळो !

देंठ साळकाचो!

तेन्ना कळ्ळें
तूं तळें जालां!

तळ्यांतलो
पाचवोचार लवो
निकतोच तोंड
वयर काडटालो !

ल्हंव ती तुजी
तुज्या आंगार
कांटो हाडटाली !

साळक
मळबाक पळयतालें !

साळकांत
तुजें ब्रह्मांड

तूं
सहिष्णू
विष्णू जाल्लें !

आनी मळब
तें तर
जावन पडबिंब
तुज्यांत
एक जाल्लें !

नकळो तूं ?
हांवूच तें -
मळब... !

16.
## भुंयगर्भांतलीं कविता

भुंयगर्भांतल्यान आयलां हांव
मुळां थंयच सांडून !

पळय
हे निजाचे मातयेंतलीं
अक्षरां सोदतात
म्हजें एकेक मूळ !

मातये वयर दिसता
तितलीच न्हय
म्हजी ही वाल

पावंलां खूब पोंदा
म्हजें पावल
खोऽल खोऽऽल !

वयलो हांव
व्यापलेल्या मळबाचो
ह्या सुर्याचो
ह्या अथांग दर्याचो !

पावलां पोंदचो हांव
मातये पोंदच्या
विर्स्तीण जलाशयाचो
आनी मातयेच्या
मातलेल्या विर्याचो !

दिल्यांत म्हाका
हे मातयेनूच
हें स्वर
आनी
हीं व्यंजनां

हांव
वाली वयल्या फुलांचो
हांव... नव्या बियांचो !

फुलान फूल...उतरान उतर
ब्रह्म भांडार
बिंयो... कविता
म्हजे अळंकार !

भुंयगर्भांतलो हांव
भुंयगर्भांत म्हजें मूळ
भुंयगर्भावयर म्हजें कूळ

कूळ शिंपडटा...
ही कुळवाडयाची कविता !

17.

## घर आनी खळें

घर पिशांवरी आड्डूंक लागलें !

म्हजे इतलेच पिरायेचे
म्हजे भयणीक – खळ्याक
कोणेंतरी चोरून व्हेलें !

पांयांतली
शिगम्या जोतीची
परंपरेची पावली !

"धे धे धेणलो
धेणल्या पावस शेणलो" म्हणपी
कंठांतलो नेकलेस !

भेंड हालोवन नाचपी
सानुल्या कान्हाच्या भेंडांतली
रुप्याची मूज !

मल्लांचे जाळयेची
माथ्यावयल्या माटवाची
भांगर किर्णांची आटी !

नळयाच्या बुराकांतल्यान येवपी
रुप्याचें एक सूर्य कीर्ण...

पाटयेवरी
बायलेच्या आंगलोटीची
काळी तिकतिकसाण
पारजताचे रांगोळेचो अळंकार...
सगळेंच चोरून व्हेलें !

आयज म्हज्यांत लोटल्यात
असंख्य अळंकार
उजवाडाचे, झुंबरांचे...

न्हेसण म्हजें वस्त्रांचे
सहस्त्र रुपांचें
पडबिंब दाखोवपी भिंगांचें...
आनी
आंगाचो हुलप लासपाक
म्हजेच बंदिस्त कुडींत
वाडटा तण
शितळ शीत ल्हारांचें !

पूण अडेची सुंदराय
करता म्हजी घुसमट
म्हाका घेवंदी प्राणवाये स्वास
आनी अखंड परमळ वास !

कोणूयतरी दियात म्हाका सोदून
नळ्यांच्या बुराकांतल्यान येवपी
लाख मोलाचें एकूच सूर्य कीर्ण...

दियात म्हाका सोदून
पारजतावरी शिंपपी
असंख्य किर्णांचें म्हजें खळें...

कोणूय दिशात म्हाका
म्हजें गेल्लें खळें ?
दिशात
सूर्य किर्णां पाझरपी नळे ?

दिशात
खळ्यांफुडले
मोगरे कळे
आनी
कुड्डयाकूय वाचूंक येवचे अशे
दोन दोळे ?

## 18.
## यादी

तुजीं यादी कुपां
दाटलीं अंतरंगीं
दोळ्यां उदेलो
इंद्रधोणू सप्तरंगी

आशाढ पांवळी
जाल्या मोनी मोनी
मोरपंखी पोलो म्हजो
न्हालो दुकांनी

अचकीत याद तुजी
आनंद शिरवणी
सपना फाटलीं करी
सदळ जागीं

पुन्ना काळजातळां
फुटल्या आश्वीन झर
बोडको मात हांव हांगा
हो सगलो शिशीर

झडूं दी तुज्याच रुपांतली
ही सांवर
नवी आंकरी मागी
हो शरद अभागी

19.

## खबर आमकांच

खबर आमकांच
आमी कशो घडले तें
निबर मनान
निसण कशो चडले तें

जमीन मोनी
नुलयत खणली
पाचवे बोल काडपाखातीर
खबर आमकांच
तण कशें नडलें तें

सोंसून घण
आरशा मन
फुट्टां फुट्टां वेरेंलें
खबर आमकांच
व्रण कशो झडले तें

किणेल्लो काळोख
आमचे खातीर नासलो
केन्नाच अनवळखी
खबर आमकांच
कीर्ण कशें जोडलें तें

सरून गेलो
किट्ट काळो काळ
उजवाडाचें
शिंपून जाळ
खबर आमकांच
खीण कशे काडले तें

20.

## हांव-एक पावस

असो हांव पावस कसो
आसा एक रसायन
तुजी धरतरी दी म्हाका
सांग केन्ना येता घेवन

घे म्हाका तुजे वेंगेंत
ल्हंवे कणकणी शिंवरून
जातलें तुजें हळडुवें मन
पाचवें पाचवें पान

भागतली म्हजी भूक
लागतली तुका तान
आंकरेचो गर्भ म्हजो
फुटूं तुका नव्यान

पोटांत तुज्या रिगचो आसां
जावन इल्लो ल्हान
निर्मणेची अनंत खोस
तुजें म्हजें नवें मिलन

21.

## ते अशे

तांणी रंग बदलुनी
मनीसपणाचे कुडके केले
तेन्नाच्यान शेड्ड्यांनी
रंग बदलचें सोडून दिलें

एकाच तोंडाक फुटलीं
कितलींशींच तोंडां तांकां
तेन्नाच्यान माळणाचें
एक तोंड झडून गेलें

शेंपडी घालून भितर तांणी
रुपडीं लायलीं भायर
तेन्नाच्यान सुण्यांनी
शेंपडी भितर घालचें सोडून दिलें

सुवार्थाखातीर ओडले
इश्टांचेंय पांय तांणी
तेन्नाच्यान कुल्ल्यांनी
पांय ओडचें सोडून दिलें

22.

## मांगर

सागरांतली खरसाण
तुज्या काळजा-तळयांत गावली
मिठागरातली खारसाण
म्हज्या काजळदोळयांत पावली

दोंगरांची उंचाय घागरीं
विलुदी हड्डयार न्हाली
भांगराची गवाय मोगरी
रेशीम केसांर फुल्ली

म्होंवल्यागरांतली नशा जियेत
रात रात सरली
कुळागरांतली पानवेल पियेत
कात कात झरली

आगळाची भिरंड लाली
झुंबून चुंबून चोरली
चाकळांची पिताम वली
आंगार याद कोरली

मांगरांतली वेंग मोनी
पाचव्या पानांत चुरली
जागरांतली झिंग मनां
हळडुव्या रानांत विरली

## 23.
## क्षर अक्षर

मांडटा हो मांड
तुजे मांडयेर
अक्षर सुरांच्या
ब्रह्मांडाचो !

मांडटा एक राग
रंध्रा रंध्रांचो...
तुज्या म्हज्यांतल्या
आरोह अवरोहांचो !

मांडटा हो आलाप
विलाप उतळताप
तुजे म्हजे
नसांतले तानेचो !

मांडटा हो ठेको
जुळयत मात्रा
तुज्या म्हज्यांतल्या
किचकट आवर्तनाचो !

मांडटा हो वेद
क्षर अक्षरांचो
तुज्या म्हज्यांतल्या
पयल्या मिलनाचो !

24.
## तूं जल्मदात्री

तुजे ओंठ...
दोडून दवरिल्लें
लिप्प कोरें कागद !

दर रातीं...
हांव
अचळय तो उगडटां !

म्हजे ओंठ
लिपस्टीक कशे
पेन जातात !

तुज्यो
ओंठां वयल्यो शिरो
वळी जा़तात !

थंयसल्ल्यानूच
कवितेंतलीं उतरां
अर्भकां जातात !

दर रातीं !

कागद तेंच
पेन तेंच
कविता मात
नवी आसता !

एक नवो रसस्त्राव
कवितेक जल्म दिता !

तूं
म्हजे खातीर
म्हजे कवितेची
जल्मदात्री !

25.
## कविता

दिसा कणकणीं सवन जग
नकली नकली जाता
उलोवन उलोवन
उतरां लेगीत थकलीं आतां

दुदांत भेसळ चुन्याची
रगतांत आगळ रिगता
बालपणींच म्हुट्टे तोरां
रसायनांनी पिकलीं पुता

युगायुगांची हीच परंपरा
वाळटी कागद खाता
तांणीच वाळटी जावन
कितलींशींच भकली कोंतां

आंग आसा सूख नारे
संवेदनेकूच मातेर जाता
पयशांच्या हुंवारान
मनीसपणाचीं सुकलीं शेतां

सरणावयल्या मड्याक
लागना उज्या हुलप वतां
आमीय बी अशे आतां
जांणी आपलींच विकलीं मतां

26.

## हॊरावणी

हे अनंताय
तुजी सासाय
अन अंताय

हे शांतादुर्गे
रोय अनंत पिराय
रोयणीवयल्ले
दी शांतताय

हे केळबाय
कर जतन जतनाय
ग्राम देवताय
दी तुजीच खराय

हे खामिणीय
दी तुजी उंचाय !

27.
**बेबदो**

सदचेवरी आमोरेंत
सुर्या बुडटना देखलो
पेल्यांतल्या दर्याक
हुंवार येतना देखलो

रात रात
सरली खोंपींत
पणट्या दिव्यांनी
कालचो घाय ताजोच
अजून ना पेख़लो

मनांत चिंतेचे दिवे
काजुल्यावरी जातात जिवे
रस्तो मेजतना
शीण सगलो
जिबेर तेंकलो

हालता दोंगर
झेंलता मळ आनी वादळ
नक्षत्रांची दिश्ट काडूंक
चंद्र आतां मेकळो

## 28.
## मळब तळप

पाख्या येदें मळब
माथ्यार
वजें जालां

पावलांयेदें तळप
पांयांपोंदा
रेबें जालां

हांव म्हेड...
मळब तळप
दोगांय मदली
धिगी जालां

29.

## दी म्हाका

हें अथांग
विस्तृत मळब तुजें
दी म्हाका
पांगरून घेतां ताका !

दी म्हाका
तुजीं नक्षत्रां, तारे, गिरे
हें सगलें अर्घ्य
पोशांत घेतां
पोटभर पितां !

दी म्हाका
तुजीं काळीं तितलींच कुपां
अचळय चिरपूट मारता
थेंबान थेंब जिबेर जिखतां !

दी म्हाका
तुजी धरतरेय्रेदी महाकाय काया
इल्ली ऊब घेतां
हो झेल वितळटाऽऽऽ...

उदक जातां
जिवाण्यावरी चलता
खोलाय थंय थांबता !

दी म्हाका
तुजी सया
तुजें पडबिंब घेतां
हांवूच परावर्तीत जातां !

... तो पळय
फातर फोडून
नवो कोंब
जमनीभायर येता !

30.

## पीठ

केन्ना केन्नाय
तुजो चंद्र पळोवपाक
हांव इंद्र जातां
तुका अनुसुया करतां
अत्रीक खूब खेपतां

चोरयां तुज्या पोरसांत येतां
करंग्या माडार चडटां
आडसरां ओडटां तोडटां

निकतीच कातली
कट्टेक धरता

कट्टेवयल्या दोळ्यांत
एक तानसोर नाचता
म्होवें-स्रावें उदक
गटा गटा घोटचेंशें दिसता

कट्टी नवी
कातली धवी
चंद्र धवो
हांव नवो

मळब धवें
चान्नेय म्होंवें
पीठ नवें
नवें नवें

**31.**

## थेंबो

हांव तुटलेलों
मळबाच्या
भात्यांतल्यान सुटलेलों

कुपांचो
काळ्या मळबाचो
सुयेच्या अग्रायेदो

केन्नाय घरावयले पांवळेंतलो
खिणांत वावझडीचे सावळेंतलो
केन्नाय सागरा येदो

मळबासावन
सुरू जाल्लो म्हजो प्रवास
मळबांतल्यान
झाडा वयल्या पानापानांचो

पानांवयल्यान धरतरेचो
झाडाच्या बोंबलेच्या देंठाचो
हांव थेंबो
जाता ओथांबो
हांव
रित्या कुपांतलो
रितो रिकामो

हांव
थेंबों
हांव
थेंबो थेंबो...!

## 32.
## पावस

पावस - मिर्गावयली बंदीशी
सर्गावयली धादोशी

गडगड विजेचो विहंगम संगम
तरण्या तराण्याचो उगम

पाचव्या मनांतल्या
निळ्या कोगळाचो
हळडुवो पंचम स्वर

बेब्या ताळ्यांतलो
खर्जांतलो गंधार

भूक भागोवपी आशाड्डी भाकर
अतृप्त मनाचो धेंकर

मोनो मोन्यांनी उलवपी
नुलयतल्याचो अंतस्वर

नटराज तांडव
सप्तरंगी इंद्रधोणूचें गांडीव

पखवाजी बोल
मनपेटाळ्यांतली तरणी ओल

बेरीज वजाबाकी
आमचें बीं रुजोवपी बीजगणीत

उतरांचे वीत कवीत
वशाचें जिवीत अविरत प्रीत

आकांती आतंक प्रलय
आशाढ पावळे पोंदचो मातयेंतलो विलय

नवनिर्मितीच्या व्हाळाचें नितळ उदक
स्वाभिमानाच्या घुस्मटीचो हुंवार-उद्रेक

भिमसेनाचो भिमपलास
दुकां ल्हासपी
अखंड उल्हास
पावस !

33.

## पावस चित्र

कूप गुरवार जालां !
भरला पुराय गर्भाशय !

बाळंटेर लागी पावला
बाळंटीच्या आंगार चडची लूत
तशें मुखामळ जालां काळें !

वेणो
गडगड
जोगलावणी
अवसर !

मिर्गार तो कुकुलें
बाळक जावन
धरतरेर पावलो
तांणें कुकुली चुळचुळी सोडली !

आशाढांत तो
तरणो जालो
मुतलो
घसघशांनी वोतलो !

आश्विनांत तो
जाणटो जालो
म्हाताऱ्याची रिपरीप
थेंब थेंब झड्लो !

पावस- आमचेंच एक जिवीत चित्र !

34.

**आर्गां**

हो पाचवो पावस...
फकत स वर्सांचें
जाल्लें भुरगेपण !

एका हातांत
पांच लिटरांचे किटलेंत...
म्हशींचें धवें रगत
आनी
म्हज्या आवय बापायचें
भावंडांचें आनी म्हजें
निदान
एक वेळचें तरी जेवण !

म्हशींच्या घुंगरांचो
आनी किटलेच्या धांकण्याचो नाद
कानांत आनी मनांत
गांठोवन घेवंक शिकलो !

दोनांय मदल्या नादांतलें
अंतर आनी साम्य
तेन्नासावन
सांठोवन घेवंक शिकलो !

दुसऱ्या हातांत
असंख्य बोंथ्यांची सत्री
घडये म्हजो गर्भ
अर्भक जावंचे पयलींची !

दर बोंथ्यांत एकेक मळब
आनी दर मळबांतल्यान
भितर येवपी
अर्दकुटी पावस पांवळी !

सर्कशींतली बायल
बडी घेवन
दोरये वयल्यान चलची
तसो हांव...
मेरे वयल्यान...

आनी...
एकान एक मळब कोसळचें !

मळबाचो भार पेलतना
तागडेची ताडीमिडी जावची
तशी म्हजी...

कितली जमनीर
आनी
धव्या रकताचो शिताडो
म्हजे भोंवतणीं !

दोन थापटांचो धनी हांव
आयज चारांचो !

थंयच
अंत
म्हज्या भुरगेपणाचो !

आयजूय तस्सोच पावस !

अचकीत थंय पावलो
धवे दाग आयले
दोळ्यांमुखार !

दोळ्यांत साठयिल्लें चित्र
चाळीस वर्सां उपरांतूय तशेंचऽऽ !

आयज
म्हज्या भुरगेपणाचें स्राद्ध
देखून
तांबडे दसणीचें हें फूल
त्या धव्या दागार ओंपतां !

हीं आगाँ...
भुरगेपणाच्या
पयल्या अंताक...!

35.

## मास्तर

मास्तर यो
उगडून हीं खोंपीचीं कवडां...
काळोख
आजून पयस जावंक ना !

कत्रेलांत
एक दिवो
मिणमिणटा
उजवाड सोदीत...

तूं येतकच सदांच
म्हजे वांगडाच
हे शेणाचे जमनीर बसतालो...

आयज
तुजे खातीर हांवें
नवी खुर्ची हाडल्या !

बस हे खुर्चेर
म्हाका बसूं दी
तुज्या चरणांकडेन

जांणी केन्नाच
उजवाड जावंक दिलोना
तांच्या चरणांकडेनूच बसून
आयुश्यां वगडायली
आमच्या पुर्वजांनी !

तूं तर
उजवाड फांकोवपी
मनामनांत...!

आं...मास्तर
तूं ते खुर्चेर बसलो
बरें जालें...!

तुजे पांय ह्या वाडग्यांत दवर
ते धुयता
तीर्थ घेता
कुडीर फाफुडटा
म्हजे जिणेचें सार्थक जातलें...!

हय मास्तर
तुवें म्हाका
मनीस केला

नाजाल्यार
ही कूड
सोदितूच उरपाची
दर्याची खोलाय
आनी रेवेंची पराय !

मास्तर
हांव निकतोच उजवाडटा-
मुखावयल्यो म्हज्यो पिळग्यो
परजळ फांकयतल्यो !

तूं म्हजो
मूळ पुरीस !

तें पळय म्हजें भविश्य...
घराब्याच्या झाडाचे तेंगशेर
फुलां फुलयतलें !

हय मास्तर
फुडार दिसपा इतलो
तुवें म्हाका
साक्षर केला !
......
आयजूय
कत्रेलांतलो दिवो जपून दवरला
जंय
उजवाडाचो स्रोत सुरू जाल्लो !

36.

## भुंयचांफो आनी साळक

हो गर्भाशय म्हजो
आनी
हो जलाशय तुजो

भुंयेंतलो
गर्भाशय सोदून
मुंडल्यो गर्भार जातात
भुंयगर्भांत
आनी जल्माक येता
एक भुंयचाफो

चिखलांतलो
जलाशय सोदून
मुंडल्यो गुरवार जातात
खोल अंतरांत
आनी जल्माक येता
एक साळक

म्हज्यो मुंडल्यो
भुंयचांफ्याच्यो
तुज्यो साळकाच्यो

## आतां आमची पाळी

चल या
एकमेकाच्या खोल अंतरांत
म्हजे भुंयेच्या गर्भाशयांत
आनी तुज्या चिखलाच्या जलाशयांत

सोदुया
एक सुंदराय

एका भुंयचांफ्याक
एका साळकाची
गरज आसा
आनी
गरज आसा
गर्भाशयांतले
सुपीक मातयेक
जलाशयांतल्या
नितळ उदकाची

## 37.
## कवितेचो जल्म

केन्नाकेन्नाय
मळब कोंचून
हातांत घेन दिसता

आडवें घालून
ताचीं चित्रां काडीन दिसता

तें जमना तेन्ना
कागदाक आडवें घालतां

आनी मागीर
पेन लुचीत रावता
कागदाक

कोलग्याक आडवें घालून
लुसलुसपी पेटयांवरी

काडटां चित्रां
आडवीं उबीं
ह्या सैमाचीं

तुज्या म्हज्या
अंतरांतलीं
अंतरंगांतलीं

भोगी अभोगी
आनी संभोगी

आनी मागीर
जल्म घेता
वियेता
एक नवी कविता !

38.

## एक आनंदयात्री

तळ्याच्या हारशांत
नागडें कूप
पळयता
आपलेंच रूप

आनंद घेता
आपल्याच नागडेपणाचो

संथ उदक
मर्दीच एक भिरमूट
मारून चिरपूट
तुकलायता
हात लायता

खिणांत फुट्टा
हारसो तळ्याचो

असंख्य जातात कुडके
कुपाचे
तरंगांच्या रुपाचे

बीन रंगांचे
कोऱ्या कोऱ्या कोरांचे

नागडेपण
वाडटा वाडटा
आनी खंयचे खंय
विरून वता

विरगळटा कूप
तळ्यांत
तस्सोच हांव
तुज्यांत...

एक आनंदयात्री
आनंद
सूख नेत्री...

39.

**चल रानांत या**

हांव कृष्ण जातां
तूं जा राधा

तुजो पोलो
मोरपांख कर
म्हज्या पोल्यार
अचळय भोंवडाय

सगलें रान पानेतलें !

तुजे ओंठ
बांसरी कर
म्हज्या ओंठांक लाय
वाजय

वीज संचारतली !

दुदा हांडे
आतां
जाल्यात अमुरपिके
लोणी कशे

नदरेनूच कल्लां सुट्टलीं !

तुजी लुगटां चोरतां
मोखून मारता
पयस
दोळ्यांतले यमुनेंत

नव्यान तरंग उठ्ठले !

पांयजणांय काड
पुराय मळब तुजें
कर उकतें

हें रानूय
केन्नासावन
उकतें उकतें

रासक्रिडा सुरू जातली !

चल रानांत या !

40.

**मिठी**

मोने सांवरीक
किरमिता वारो

बोंड फुडटा
अचळय
येता भायर कापूस
तांतयांतलें
पील येवंचें तशें

घेवन वता
कापसाक पयस
आपल्या सांगाताक वारो
रानांत शेतांत
कोणाक कळनासतना !

आतां शेता धडेर
नवी सांवर
नवो वारो
किरमणीय नवी

हांव वारो
तूं सांवर
शेता धडेर

आनी
ही चिरंतन मिठी !

परतुनूय
बोंड फुट्टा
अचळय!

41.

## सर्जकाचो अंत

गेल्ली तपां
बरीं गेलीं
तवल्यांतली
चार चार दीस
शेळी कडी खायत
आनी चार दिसांची
पोटभर उपासमार !

गेल्ले पावस
बरे गेले
वावझडीन आंकडत
शितळ शेळ पांगरीत
भाताच्या कणाक
खोपींत लेगीत
थेंब्याचो आंकूर !

गेल्ले गीम
बरे गेले
आंब्या मुळांत घोटां पुनयत
काथो धवो करीत
कुल्यावयल्या दोन बोथ्यांक
जनेलां करीत
हवा खेळयत
तिनसांजे नक्षत्रांच्या पोरांक
नवे भुकेचो तानसोर !

गेल्लें शीं
बरें गेलें
चादरा विणेंच
आवयचीं बोंदरां
ओडी ओडीत
तिच्या स्पर्शाक
मळबाची गोजडी करीत
शीं लेगीत ऊबदार !

गेल्लीं वर्सा
बरीं गेलीं
ग्रंथांतले विचार पचयत
किर्तनांतलीं पुर्वपद्यां आयकत
आनी पिड्याच्या तलवारिंकूय
काडीत नवी धार !

गेल्ले रूतू
बरे गेले
सांतेरीची वसंतपुजा करीत
गिमाचो कोलूं शिंवीत
दंवाच्या पावलांची रांगोळी घालीत
विचारांच्या आंब्याक
नवो चंवर !

गेल्ले म्हयने
बरे गेले
चार पयशे हातांत आयले
एका रिणांतल्यान मुक्त जालों
नव्या रिणाक वाट केली
आनी अजापाची गजाल
पयल्या सप्तकांतूच पगार !

गेल्लीं सप्तकां
बरी गेली
भारत मॅच जिखलो
बरोऽऽ वेळ पासार जालो
एक सर्जक मात मेलो
दीस आनी रातभर !

## 42.
## कविता

जालो तेन्नाच्यान जळत आसा
दीख जावन दुकां गळत आसा

सारता कोण उजवाती चंदन
वेदनांचें सरण परमळत आसा

धगांत कस्तुरी रगत न्हाता
भूक मात भळभळत आसा

मेंदवाचो फार जाता, कल्पना सार जाता
नातीं आनी ना तिंवूय आता मेळत आसा

जळटो गोबर म्हाकाच सोदीत आसा
वाऱ्याचे फुंकेन उजो फळत आसा

43.

## पडबिंब : एक क्लोन

दोंगराचे क्लोन
जातात परावर्तीत
तुज्या वक्षवनांत

पानां झडून गेल्लीं
शिशिरांतलीं झाडां
पडबिंबीत जातात
तुज्या दोंगरांत

झाडांच्यो निश्पर्ण
काळ्यो निळ्यो खांदयो
शिरो जाल्यात
व्हांवत्यो न्हंयो कश्यो

विसावता आतां बळारींचें मळब
झाडाच्या शेंड्यार
मागीर दोंगरूच उबारून घेता
मळबाक वयंलेवयर

मळब थेंबेवंक लागता--
दंव दंव--

निश्पर्ण खांदयांचेर
येतात फुलां
आठव्याच म्हयन्यार

आतां वक्षवन तुडूंब
आनी
निश्पर्ण झाडांच्या क्लोनाचें
धुसर पुसट पडबिंब !

44.

## आकारता आंकरी

पानाक
झडन दिसलें
देठ सोडून

पदराक
पडन दिसलें
गांठ सोडून

नदरेक
पानेन दिसलें
कांठ सोडून

जिबेक
जुचन दिसलें
ओंठ सोडून

झडिल्ल्या पानांचें
जाता हांतरूण
पडिल्ल्या पदराचें
जाता कामरूण

आतां देठाकणकणीं
येता आकारून
नवी आंकरी
पोरणी
वाट सोडून !

45.
**जंय थंय**

जंय
गर्वाचीं पानां गळटात
मोगाचीं फुलां परमळटात
थंय
म्हजें घर आसा !

जंय
भावपणाचीं नक्षत्रां परजळटात
नवविचारांचीं स्तोत्रां चाळटात
थंय
म्हजें खळें आसा !

जंय
एकचाराचीं सवणीं खेळटात
गरिबीचीं दुकां जळटात
थंय
म्हजी पडवी आसा !

जंय
वेगळेचाराचे पारे कोसळटात
खोशयेचे गिरे मेळटात
थंय
म्हजो चौक आसा !

46.

## कितलेशेच फावटीं

तुका पळयल्या हांवें
कितलेशेच फावटीं...

कृष्णाची बांसरी घेवन
चुली मुखार बसून
नळयेंत फूंक मारतना...

सप्तसुरांचे आशेन
दोळ्यांतल्यान
दुकां धुंवर काडटना...!

तुका पळयल्या हांवें
कितलेशेच फावटीं...

वांयगें म्हूण
मुंबऱ्यात
तुजेंच काळीज भाजतना...

खोशयेचे आशेन
हातांक खिणां काडटना...
आनी
पिळग्या पिळग्यांची
कश्टांचीं बिंयां
रुजवणां हाडटना...!

हें अशें
कितलेशेच फावटीं...
कितलेशेच फावटीं !

47.
## शिशीर लागत तुका ?

त्या झाडाक पळय
पानां सैल नात
तीं गच्च
गच्च कामरून

देखून
पानजाळयेंतल्यान
मळब दिसता
हय न्हयशें
जाय जायशें

तुंवूय तशेंच
वस्त्रां सैल घालूं नाका
गच्च घाल
आंगाक दसतात तशीं
गच्च पांगरून

देखून
वस्त्रगाळांतल्यान
दिसूं दी तुजेंय मळब
हय न्हयशें
जाय जायशें

आतां त्या झाडाक
शिशीर लागला
तें उकतें
मळबूय उकतें

तुका लागतलो शिशीर ?
केन्ना काय ?

हो वसंत
तुज्या शिशीराची
वाट पळयता !

48.

## तुजे खातीर

म्हजी नदर
जाता एक बांगर बैल !

आडो हुपून
तुज्या शेंतांत येता
नदर खाता तुजें शेत
पिसुडटा तुज्या वस्त्रांची केळ
काडटा गबे
नदर शेतभर भोंवता

शेत उदारें न्हिदून
घेता मळबाक
कवटाळून
वेंटाळून

झडटा मळब
पावस जावन
जाता वलें शेत
येता थाम नवें
फांकारून
आकारून

थामाक
रूप ना
मळबाचे
ना रूप
जमनीचें

मळब येता भेटेक
वर्सांतल्यान एकदां
थामाच्या पेरार बसून
आनी अचळय
देंवता जमनीर

आतां परतून एकदां
शेत उदारें न्हिदून
घेता मळबाक
कवटाळून
वेंटाळून

हांवूय
मळब जातां
पावस घेवन येतां
तुजेखातीर !

49.

## थेंबो थेंबो पावस

केन्ना केन्ना
तूं झाड जाता तेन्ना
शृंगार जाता सूर्य
आनी हांव मात
सावळी

सूर्य चडटा
खांदये खांदयेर
केन्ना फळांनी
केन्नाय फुलांनी
हांव मात वारो जावन
झडोवन घेतां तुका

पदर तुजो
येद्या व्हडल्या
मळबाचें पांखें

सूर्य वता कुपांआड
सावळीय जाता
नानपयत
मागीर
पावसान गळचेंच आसता
थेंबो थेंबो!

## 50.
## शीं

झाडाक वेंटाळिल्ले
वालीवरी
तुवें कामरून घेतलां...
कामुरच्यान

कामुरचेंच कित्याक...?
शीं धांवडावपाचे
खूब उपाय आसात

कामुरचें...
धग...
ऊब...
आनी
हांव !

51.

## तुजी साडी

तुज्या आंगावयली साडी
पाचवेंच शेत कशी...
हे दीस
कण्णो घेवन नडपाचे

तुज्या आंगावयली साडी
केन्नाय हळडुवी, भांगरा कोराची...
हे दीस
लुंवणी करपाचे

तुज्या आंगावयली साडी
भाताची कुतल्ल कशी...
हे दीस
मळणी करपाचे

तुज्या आंगावयली साडी
मातये कोराचीशी...
हे दीस
भात कांडपाचे

तुज्या आंगावयली साडी
बीन रंगाची नितळ उदकशी...
हे दीस
पोंदचो तळ सोदपाचे

हे दीस
परतून
दिफळे फोडपाचे...

52.

## हेमंत

शिरंतरांनी भरला आयज
मनसोद नवो हेमंती गाज ।।

रंध्रां बोली, रंध्रांच भास
तिश्टल्या देखून अंतरीं स्वास
तुजेच खातीर आसुसल्या ही
अमुरपिकी पिकाळ सांज ।।

कालच्या चंवराक ओतो दिखाळ
आयची चुळबूळ कितली म्होंवाळ
चान्नेय कितलें शितळ झिळमीळ
झऱ्यांतूय दाटला नाद झिणझिणी झांज ।।

मोनी तुजी कळी जाली मेकळी
उसयली तुवेंच तुजी पाकळेन पाकळी
गंध तुजो गर्भ वियेली
सोडून सगळी मुरवत लज ।।

53.

## सांवरी

सांवरी मनसांवरी
सांवर ही शिशीर शिरशिरी ।।

आंगार दाटलीं बोडकीं बोंडां
बोंडाबोंडाक फुटलीं तोंडां
कापूस कुंपां लुट्टी रानां
हो भार सरून केन्ना येत आंकरी ।।

भुंयेक रंगोवं दी पान ओंठांनी
फाट धुळवडी ताटांनी
पुजून घे तुज्याच फुलांनी
आयज ही धरतरी ।।

ल्हारां फुटूं उमेदीची
काळजांत घडीघडी
पोंदाक तुज्या विलुदाची
विणूं कोणेंय गोजडी
सांवरीऽऽऽ तुजीच ऊब
शिशीराऽऽऽ तुजीच ऊब
जांकां ना हांतरी ।।

54.
## वसंत

हे कोगळा हे कोगळा
लाय रे गाय रे तुजो स्वर मंजूळ ।।

सुलूस लागली वसंताची
जावंदी पुजा वसुंधरेची
रकूंदी रोस फळां फुलांतल्यान
दिकादिकांतल्यान सुटूं दी परमळ ।।

पानापानांत चंवर शिंपडिलें तुजेविणें कोणें
सजूं दी धरतरी अशीच
बांदून पाचवे पाचवे गोंडें
पोशांचे करूं दी दोंण आनी दोणे
रूच पावूंदी घरांघरांत मांडून हो खेळ ।।

जल्मूं दी आयच्या वसंतांत फायचो गर्भ
पावला पावलाक लाबूं दी गंधगर्भी दर्भ
असोच भरूं दी नवे उमेदीचो सासणाचो कुंभ
तुज्या म्होंवाळ ताळ्यान घडूं दी
वासाळ वासंतीक मेळ ।।

55.

## सप्तसूर

गायतात आयज्ञ आमी
हे स रुतुंचे सप्तसूर
रुतूस्वर हे रुतूस्वर ।।

वसंता तुजे वेध लागता
म्होंवाळ पंचम कोगूळ गायता
ऊब ग्रिश्माची ऊबाळ ताप
पिसुडटा कापूस कुपानकूप
कोगळाचो घेवन काळखी कोर ।।

गडगड जोगलावणी करता नाच
हे तर वर्षाचे आपालिपा
आळवा हारशार पडबिंबीत जाल्या
शरदाचीं हीं कितलीं रुपां
अस्तुरेच्या पावलां दंवार
तण मेजता एकेक आकार ।।

गार शितळ हेमंती वारें
मोन्या कळयांक गंध सारें
वता कडार पिंपळा पेडार
सळसळत सुटला पानगळ
अपरूप ही भुंयेची सुंदराय
भोगून घे हो आयचो शिशीर ।।

56.

**दत्ताचो अभंग**

कितलें करूं
तुजें वर्णन
दी रे बेगीन
दत्ता तुजें दर्शन ॥

तूंच एक दयावान
गरीब गाय देखून
उबी रावता सदां
तुजे फाटल्यान ॥

तुजे भोंवतणीं
चार सुणीं
दिलो ना कोणी
तुजेबगर आदार ॥

गायतां गायतां
तुजें गायन
मानून घे रे
म्हजें नमन ॥

## 57.
## हे मातये

हे मातये
लूच म्हजे छातये
ओड दांतये
थान म्हजें !

सूख मेळटलें
दूक गळटलें
मूख भाळटलें
ओठांत तुज्या !

58.

## तूं वांगडा आसतना

तूं वांगडा आसतना
भर पावसांत
आंब्याक म्हज्या
फुट्टांत चंवरां

तूं वांगडा आसतना
भर रातींत
मळबांत म्हज्या
झडटात नक्षत्रांचीं तोरां...

59.

## तूं अशें यो

तूं माथ्यांत
गजऱ्यांचो पावस
माळीत यो

पयली वेंग जावन
माती
परमळीत यो

भिजून चिप्प ओल्यांनी
नदरो
जाळीत यो

आंगाक दसोवन वस्तर
काळजां
फाळींत यो

60.

## बॉन्साय झाड

ही पोसोभर माती
घेवन उबो आसां
केन्नासावन
तुजे यादीन

तुजीं पावलां
बॉन्साय जावन
दिसतात
हे मातयेंत

बॉन्साय जालां
एक झाड

ताचीं मुळां
तुजीं पावलां
पावल्यांत
म्हज्या काळजामेरेन !

61.

**कोण ?**

मळब पिनलां
कोण शिंवतलो ?

जमीन फुटल्या
कोण जोडटलो ?

सागर तुटला
कोण बांद घालतलो ?

62.

## खोल खोल मुळां

मळब उमथे न्हिदून
बुड्डीता
जमनीक
हुंदराभशेन
खोल खोल
मारून
बिळां

मळबांतले उंचायेंत नक्षत्रां
जमनींतले खोलसाणींत
ओलसाण
ओलसाणींत मुळां

खोल खोल तीं

## 63.
## दोन मळबां

म्हजे कडेनूय आसली
दोन मळबां
दोन दोळ्यांची
तुमचे सारकींच !

आसले असंख्य गिरे तारे
दोनूय मळबांनी

कोसळ्ळें
एक मळब
अचकीत एक दीस

ना जाले तारे गिरे
ना जालें उदक
भावना उकते करपाचें

सोद घेयत आसा
उदकाचो
नव्या गिऱ्यांचो
नव्या ताऱ्यांचो

...काल पयरूच
नेमाळ्यांत खबरो आयल्यांत

एक...
नव्या गिऱ्याचो
सोद लागला

दोन...
मंगळाचेर उदक मेळ्ळां...

## 64.
## हांव माळी

हांव बापूय
तुजो
ताचो
तुमचो
हाचो
हे धर्तरेचो
ह्या झाडांचो
सगल्यांचो

केन्ना केन्नाय
माळी जावन
तोडच्यो पडटात
खांदयो

65.

## गवळण

देवकेचो कृष्ण बाये
वाडटा यशोदे घरा
कितल्यो ताच्यो तरा
गोकूळभर

कालीयाचें मर्दन घडलें
तुज्याच हातान
जाली सोडणूक
साबार लोकांची

गवळणी न्हाल्यो तळ्यांत
लुगटां खोवन झाडार
कृष्णा तुजी नदर लाबची
सदा सुखदिणी

66.
## कविता

कपल तुजें
मळब जालां
सूर्य...
तिकली जाला

प्रकाशाची कविता आदले वरी कांयशी खांकुडत आनी कांचवेल्लेवरी उलयना. तिका तिच्यांतली धिटाय आनी अभिव्यक्ती-शक्त होलमल्या. प्रकाशबाब हो सैमपूजक आनी सैमगायक देखून ताची कविता मुळासाकूनच सैमतत्व आनी सैमरूपांच्या समांतर चलत आयल्या. ताचे कवितेचो आत्मस्वर, सैमाच्यो प्रतिमा आनी प्रतीकांतल्यानूच फुलारता आनी पर्मळटा. सैमप्रतीकां घेवन, कवीन जे तरेन शृंगारभावनेक वाट करून दिल्या ती तरा कोंकणी कवितेक बरीच वळखी भायली. प्रकाशबाब कांय कवितांनी शृंगार भावनेचो एक नवो सैम-स्पर्शी आयाम कोंकणी कवितेक हाडून दिता. 'कुतल्ल' म्हणल्यार, शेत पिकून जेन्ना तें लुंवतात आनी कणसांनी चकचयाळ अशें थाम हाडून एके विशिश्ट पद्दतीन मांडून दवरतात तें. ह्या कुतल्ल्यांत थामाची फकत कातरिल्ली मुळाबाजू तितली भायल्यान दिसता. कणसां दिसनात. कारण तीं सगलीं कुतल्ल्याच्या पोटांत मदें येतात. प्रकाशबाबाली कुतल्लांतली कविताय तशीच. तिच्या अंतरगर्भात रिगून तिची सुंदराय नियाळची पडटा. उतरां फाटलो लिपिल्लो अर्थ सोदचो पडटा.

**नागेश करमली**
जेश्ठ कवी



प्रकाश द. नायकाच्यो कविता म्हणल्यार वेगवेगळ्या कल्पनांचे रंग, भावनांचे झुळझुळटे वझरे. प्रकाशाच्या कवितांक खास ताचो असो छंद आसा, ताल आसा, रंग आसा, आपली अशी खास कल्पनेची बसकण आसा. प्रकाशाच्या कवितांक काव्या वांगडाच गाण्याचोय बाज आसा. 'कुतल्ल' ह्या कविता संग्रहांत आस्पाविल्ल्या कवितांनी म्हाका जायते काव्य रस गावले. ताच्या कांय कवितांनी सोबीत कल्पनाविश्व साकारिल्लें मेळ्ळें. ताच्या कांय कवितांतलो विरह रस काळजाक हात लावन गेलो. ताच्या कवितांनी म्हाका एका वेगळ्याच मुडांत व्हेलो जाचे वर्णन करूंक म्हजे लागी उतरां नात.

**देविदास कदम**
कादंबरीकार